मुजवाडावपी: कोंकणी प्रेमि मंडळ




# म्हंतारि अजिज

कोंकणी भक्ति–भाव गींता समाहार

वि. शेट बलराज

## शुधि पत्र

| पान | श्ळोक | अशुध | शुध |
|---|---|---|---|
| 2 | 1 | रारदे | शारदे |
| 2 | 2 | मुनिल | मुनिली |
| 6 | 4 | भाधव | माधव |
| 11 | 3 | प्रांद | प्रांत |
| 12 | 5 | मरतली | मारतली |
| 13 | 4 | बौंड | भावण्ड |
| 14 | 2 | बौंडाले | भावण्डाले |
| 19 | 2 | वसंद | वसंत |
| 25 | 1 | सुंदारी | सुंदरी |
| 25 | 1 | वागीश्वरील | वागीश्वरीलि |
| 30 | मथाळा (Heading) | वैश्याल | वैश्यालें |
| 30 | 4 | ॐ नसो | ॐ नमो |

K, Gokuldas Prabhu,
CORPORATION BANK
No. 250 Brough Road,
E R O D E - 638001.

# म्हंतारि अज्जि

कोंकणी भक्ति-भाव गींता समाहार

बरौपि
वि. शेट बलराज

अजवाडावपी
**कोंकणी प्रेमि मंडळ**
कोच्चि.

मोलः तीन रुपया

KGokuldas
22 iii 1982

# "म्हंतारि अज्जि"

**MHANTHAARI AJJI**

सुरवेच अुजवाडावप १९०२ वैश्याख
First Published: 1980 May

मुद्रण :
सारस्वत इन्डस्ट्रीस, कोच्चि

मोल : रु: ३/–
Price: Rs: 3/-

अुजवाडावपी:
कोंकणी प्रेमि मंडळ
X/523, कोच्चि-682 001

Publishers:
Konkani Premi Mandal
X/523, Cochin-682 001

समर्पण

धन्य कोंकणीक

अनि

कोंकणी भास माका

दिल्येल्या—स्वर्गस्थ

मेग्गेल आवसु

सुन्दरि भाय वरदराज शेट

हांका

# INTRODUCTION

When Sri Shet Balraj approached me for an introduction to his first publication in Konkani, I felt quite hesitant. Though I am a Konkani—I use the word cautiously—I am a stranger to Konkani literature. I have to shamefully admit that I cannot read or write the Nagari Script. And it is indeed a task to read Konkani in Malayalam. All the same, I have enthusiastically associated myself with the movement for the recognition of Konkani as an independent language, like the legendary squirrel in the Ramayana.

I may not be able to assess the poems of Balraj, I can certainly introduce him to the reading public. And I gladly do it. But does Balraj need any introduction? This question looms large before my eyes even now when I am writing this. He has already established himself among the artists of this area, as composer and singer of songs on subjects like devotion and life. He has trained a well disciplined troupe of boys and girls and popularised Konkani music, even outside the frontiers of those who had so far monopolised everything Konkani.

However there are few things which are not known or rather less known about Sri Balraj. He comes from an ancient and once rich family of the Gomantak (wrongly called Maharastra) Vaishya community of British Cochin (as Fort Cochin was known before independence). Inexorable laws of disintegration were very harsh with this community and due to historical forces, it decayed and dwindled.

Sri Balraj marks the beginning of a reawakening

among them. He organises its youths and urges them to "awake, arise and stop not" till they regain their lost, vanished past. Some of the lyrics in the volume indicate this new dawn. His long poem "Vaishyale Charitr" embodies a contraversial subject. It invites research into the past history. But this is irrelevent here.

He is an outspoken critic of the narrow approach of the Konkani Bhasha Prachar Sabha. He exposes its efforts to identify the Konkani language as the language only of the G. S. Brahmins. In spite of the loud claim by the secretary, the Sabha by its close links with H. H. the Revered Swamiji of Kasimutt Samsthan was and still is only on overt and covert instrument to focus the glory of a particularly thin minority within a linguistic minority. There is a wave of silent protest among the reasoning members of the same community against this tendency. This has led to the formation of the Kerala Konkani Academy, in which Balraj played a very important role.

Konkani is a growing language. In Kerala it was neglected. It has no utility value. Hence it is a heartening surprise that there are a good many writers in it now. The "Konkan Janatha" leads this new movement. It has published two or three books already. The recognition of the language as an independent one by the Central Sahitya Academy has lent a lustre to this, and a bunch of young poets and short story writers have come forward to enrich the language. Sri Balraj entered the field with his own contribution. His bent is essentially lyrical, though the present volume contains two or three reflective poems also. As there is a preface to this book by a more competent person, I donot want to say

anything about the poems.

I have greatest pleasure in introducing Sri V. Shet Balraj as a progressive thinker and writer, a revolutionary within limits. I wish him splendid success in his dedicated service to his mother tongue.

Cochin-682 001,
24-4-1980

R. S. RAJU,
Vice-Chairman,
Kerala Konkani Academy.

# "दोन अुतरां"

चोवीस वर्सां फुढे जीवितांतु विसरूक जायनातिलो अेकु संभव जल्लो; कोच्चिव टि. डि. हैस्कुलांतु शिकतणा अन्य भासेच अेक अध्यापकानि मेगेलि आवय भास–कोंकणीक अंबूण अुल्लैलें. तें अयकून दुःखय जाळय मनांतु भरलें. तज्ज संबंधि त्या अध्यापकालगि लडायि जल्लि. टि. डि. स्कूल सोडपाक तें निमित्तय जल्लें. तज्जान अेयिलो अुमेद–कोकणी साहित्य शिकूका म्हणु, कोंकणी साहित्यांतु प्रवर्तन करका म्हणु प्रयत्नु काडलो. अतय प्रयत्नु काणु अेता. काणु अेयिले प्रयत्नान कोंकणी साहित्याचि अक्षरमाल पर्यन्त शिकूंक जल्लि. साहित्य कितें म्हणु कळावण पावचें मुरतम हो अेकु संरंभु; अहंकारान नय–आवय भासेचेर असूच मोगान. १९५७ थाकून हांवे बरयिल्य गींतांतु वेंचून काडलेल्यो अेदे गींत पुस्तक रूपान छापून अुजवाडेवपाक मुकार अयला. अंतु मनाक भय्य असा. व्याकरणालंकारादि नेमांतु थाकून कितूल दूर हांव म्हणु माका कळता. तें म्हणु भीति, मनांतुलि भय्या निवारण करनु ध्यासांतु अेवच मेग्गेल अुतरांक भोज दीवका म्हणु धन्य वाचप्यांलागि विनय विनंति.

गींत वरौपांतु वर्सां फुढे थाकूनूच माका प्रोत्साहन दीवनु अेवचे मेग्गेलो बप्पूसु–पूण्य. पि. अेस्स. वरदराज शेट अनि मेग्गेलो संगाति श्री डि. अेस्स नरोत्तम.

सांस्कारिक विषयांतु, सामूहिक विषयांतु, भौतिकाध्यात्मिक विषयांतु माका मार्ग निर्देशु दीवनु अेत्ताय, रिट्टयर्ड पोस्ट मास्टर

श्रीयुक्त आर. अेस्स. राजु बि. अे. (अुपाध्याक्षु – केरळ कोंकणी अकादमि). ह्या पुस्ताका संबंधि तन्नि ओळेखे अुतरां बरयल्याति. नम्रपणान मेग्गेलो मोगु तांका कळ्येता.

आवय भास कोंकणीतु बरयिले कसले जल्यारीय चिंतना– तें छापून अुजवाडेवका म्हणु निरंतर प्रोत्साहन दीवनु अेताति श्री आर. माधव प्रभु–मेग्गेलो संगायि. तांकाय मेग्गेलो मोगु कळ्यता.

हांवे बरयिल्यो भक्ति–भाव गींत वचून, अेक अवसूले वात्सल्यान, कोंकणी साहित्य विषयांतु अनिकय मुकार वचाक मार्गु दीवनु ह्या गींता संग्रहाक प्रस्थावना श्रीमति स्वर्णलता जि. पै अेम. अे., पि. अेछ. डि. हन्नि बरोवनु दिल्या. तांका ह्या चेरडालो मोगु कळ्वचाक अुतरां मेळनाति.

कोंकणी संगीत कथा कथन (हरिकथेंतु थाकून विभिन्न) म्हळेल्या संगेतांतु अेवपाक अेक कारणभूत–श्री वि. वेंकटेश्वर नायक (केरळेश्वरि हास्य कला केंद्र). तांकाय मेग्गेलो मोगु कळ्यता.

कोंकणी भास वैश्यालि नय–कुणब्यालि नय–सोन्नारालि नय गौड सारस्वत ब्राह्मणालि नय. ध्न्य ती कोंकणी कोंकण्यांगेलि म्हळोलो मेग्गेलो विश्वासाक फाट्टि भोल दीवनु अेवचो श्री वि. शिवदास मल्या (जि. अेस्स. अे) तांकाय मेग्गेलो मोगु कळ्यता.

ह्यो पुस्तक चांग नमुनेन मुद्रण करनु दिल्लेल्या सारस्वत इन्डस्ट्रीस हांकाय मेग्गेलो मोगु कळ्यता.

जय कोंकणी

–वि. शेट बलराज

# प्रस्तावना

केरळांतु कोंकणी साहित्य विकासांतु भाग घेवचे खूब साहित्यकार आसात. तांतु मुकार सरलेले श्री बलराज शेठ. हांगेले गींता संग्रह हें. तानीं १९५७ थाकून १९७९ पर्यन्त बरयिली सुमार २९ सानि सानि कविता आसात. ह्या गींतांतु भावप्रधान जावनु सुमार कविता आसात.

ह्या संग्रहांतु आशिले "खाढेलि मामु", "कोक्करे कोंब्या यो", "मारान चोरि सोडली", "चेरडालि विनंति", "गोयांतु वच्चो कवळो" हीं कविता केरळांतुले चेरडुवांक सुपरिचित जाव्नु आसात. त्रिचुर रेडियो स्टेशनांतु थाकून येवचे गींत चेरडुवाले जिब्बेरी आसात.

भक्ति गींतातु गणेशस्तुति, शारदास्तुति, विवेकानंद स्तुति, महादेव स्तुति, जनार्दन स्तुति आसात. "म्हंतारि आजि" ह्या कवितेंतु अनाथ जाव्नु आशिल्ले एक म्हंतारिले सुंदर वर्णन आस्स. "खाढेलि मामु" हांतु खाढेलि मामाले दिनचर्थ सुंदर रुपान चिप्रण केल्ला. गृहस्थाश्रम श्रेष्ठ आश्रम आनि ताज्जे धर्म अित्ते म्हळेले "प्रकृति धर्मांतु" सांगीले आस्स. "वरडीके जेवण" हांतु वरडीके जेवणाचे चांग वर्णन केल्ला. आवसु जगांतु होडी म्हळेले सत्यं "जगाचि आवसु" म्हळेले कवितांतु सांगीला. वैश्यांगेले चरित्र संक्षिप्त जाव्नु "वैश्याले चरित्र" म्हळेले कवितेंतु सांगिले आस्स.

काव्यशास्त्रांतु सांगिले अलंकार ह्या कवितांतु ना जाल्यारिय एदे कवितेंतु अन्त्याक्षरप्रास आसात. भावप्रधान जाव्नु आशिल्या

ह्ये कवितासंग्रहाचे प्रस्तावना बरौंचाक माका संतोषु आस्स. कोंकणी साहित्याकाशांतु ह्या कविली आनीकयि कवितारूपी नक्षत्र प्रकाशमान जावो अशी देवालगी प्रार्थन करता.

स्वर्णलता जी. पै.

# भक्ति गींत

झनक झनक जन पायांक पैंजण
मृदंग ध्वनि ती
धा तिरकिड धागेन धिन
ता तिरकिड धिगन धिन ॥

ब्रम्ह पुत्र तो नारद तंबूर
धरून करित ध्वनि मधुर सुंदर
नारायण नारायण म्हणतेर
तांडव करिता गौरि नंदन ॥ झनक

संगीताधीश्वरि शारदा
करति गायन वीणा वर ती
ताळ धरितां ब्रम्हसनातन
तांडव करिता गौरि नंदन ॥ झनक

रंग पळोवनु ब्रम्ह विसरताय
देवगणालें मन रंजता
गौरि शंकर संघें गजानन
बलराज प्रिय तांडव करता ॥ झनक

बरयिल वर्स : १९६८

# भक्ति गीत

रारदे शत कोटि प्रकाशिते
संगीत स्वर संपूरिते ॥

नंदिनी मातंग मुनिल
मानस संचारणी
शालिनी शुभ्र हंस वाहिनी
साधुजन परिपोषिणी ॥ शारदे

नारद मुनि सोदरी
जगत मात तू वागीश्वरी
वाम कर वीणा धरे
शुभ सामगीत प्रियकरे ॥ शारदे

ब्रम्ह सुरनर पूजिते
शिव शंकरी नारायणी
दास गोकुळ बालराज
चरणी पडता राक तू ॥ शारदे

बरथिल वर्स : १९६५

# भक्ति गींत

गुरुदेवा विवेकानंदा
निरंतर दी तू चरणी आनंद ॥

ज्ञान वाहिनी तुग्गेलें अंतर
दी तू आंका तेची घर ॥

भीकर भीती दूर करूंक
अवतारु जाल्लो तू शिवशंकर
परमहंसाला बंधु होवुन
प्रकाशित करिला हें भुवन ॥

गोकुळ बालराज म्हणता
तुग्गेल स्मरणान दुःख दूर जता ॥

बरयिल बर्स : १९६६

भाव गींत

# "म्हंतारि आजि"

म्हंतारि आजि फंत्यारि अुट्ठावनु
फूल गंतीता
देवळाल तेळयांतु वच्चून बुणु
न्हावनु ती अेत्ता ॥

घरांतु अेवनु दीवो लावनु
देवाल मुक्कारी रवता
दोळे भोरनु अुंठि काणु
देवालगी मागता ॥ म्हंतारि

गंतील फुल्लांचि माळ घेवनु
विक्कूंक मरगारी वरता
विक्कून मेळ्ळेल्या दुडवान आजि
रंदूक तंदूलु घेत्ता ॥ म्हंतारि

अश्शीलो अेकु पूतु - तो
बायलेल्य मागल्यान गेल्लो
खवचाक ना पिवचाक ना
चोवचाक तिका कोण ना ॥ म्हंतारि

बरयिल वर्स : १९५७

भाव गीत

# "खाढेलि मामु"

खाढ बोढ वाडोवनु अेकु मम्म भोंवता
गोढ गोढ अुतरां अुल्लवनु दीस काडता
व्होढ व्होढ ओझें मत्यारि व्हावून वरता
मम्मा चेढ चेढ पीवनु दुढू भायर घलता ॥

फंत्यार अुट्ठावनु मम्मा संतेक वत्ता
सांजे वेळार पीवनु अेवनु बायलेक मारता
बायल ती रडता चेरडूवां रढताया
मम्मा नंचीता ॥ खाढ

मम्मान ह्ळ्ळेलि पोठ्ठोळि सोणु
चेरडूवां खाण खत्ताय
सेळ अुदाक पीवनु पोठ
भौरनु वच्चून नित्ताय ॥ खाढ

पिल्लेल सग निवळतेरि मम्म रोणु अेता
मम्मेलगि अेवनु तिका सांध्वांन करता
"अगो सावित्रे पिल्लल्या भारशीं मल्लेगो तुका
आनि मारचीना तुका ॥ खाढ

मम्माल गोढ अुतरां आयकून मम्मी मंदूरि घलता
मम्मा तिका लग्गी काणु हस्सून वच्चून नित्ता ॥ खाढ

बरयिल वर्स : १९५७

भाव गींत

# "राधालि तान"

गगर्यो पायांक बाधून राधा
देह विस्सोर्नू यमूना तीरीं
प्रेमाश्रु तिग्गेल दोळयांतु भरून
नांचीता ती सोधुन मुरळी ॥ गगर्यो

तिग्गेल देहांतु भरलें मीपण
गगन झल्लें पिंगळ वरण
अुठायले ना त्या देवाले मन
चपल नांचीता चपल चपल ती ॥ गगर्यो

महा संकटिं राधा घर्जिता
खेंयी माधव खेंयी मुरळी
दिसना मु तो कृष्ण मुरारी
हळु हळु सरता मीपण तिग्गेले ॥ गगर्यी

मधुर मुरळीरव कानांतु पडले
भाधव मुरहरि दोळ्यांतु भरले
गोकुळ बालराज म्हणता
मीपण सोडल्यारि देवु दिसता ॥ गगर्यो

बरयिल वर्स :१९६८

भाव गींत

# "कोक्करे कोंब्या यो"

कोक्करे कोंब्या यो
मम्माथंय वच्चाक यो
मम्माथंय वच्चून मम्मेला थकून
बोबो खवचाक यो ॥

व्होळ्ळे मुचवारि ओल्ले तंडून
फल्ले फल्ले जतेरि तिका ममाथंय पावेवका
तिका–मम्माथंय पावेवका ॥ को

पट्या संत्लि धरका–तिका
फट्टीर तू काडका
नंचून अुडून धावनु तिका
मम्माथंय पावेवका ॥ को

मम्मथंय पावतेरि–तूवें
मम्मेलगि संगूका
मम्मेलि भंगराची सरपोळी तिका
घेवनु दीवेवका ॥ को

बरयिल वर्स : १९५९

भाव गींत

# "प्रकृति धर्म"

आश्रमांतु अुत्तम गृहस्थाले आश्रम
करूनका विश्रम सुलभ या वेळी ॥

जीवनांचे ओजें जेढ म्हणु सांगताय
पुण-पाळणाचें सौख्य गोढ म्हणु आयकाय
कर्म बंधनाचो जागो विस्तार
प्रेमु अणि मोगान वबा दूर दुस्तर ॥ आश्र

नर आणि नारि आयले ह्या संसारी
देवालो निरणयु पूर्ण करूंक
कराय आश्रमाचे धर्म व्होढ मनान
जोपून मनांतु सदा देवाल नाम ॥ आश्र

संत संघ स्वाश्रयाची अिछा
सहानुभूति सोडू नाका
गोकुळ बालराज म्हणता
कर्म योगांतु मिळसोवनु भोंवयां ॥ आश्र

बरयिल वर्स : १९६६

# "वच्चें कित्याक"

अेक दिवस स्वपनी माजा
आयलो रखुमायीचा राजा
तुळसि माळा घालून गळया
पीतांबर धर हसून आयला ॥

वाम भागी रखुमा राणी
सांगचे कश्शी तिग्गेलि वाणी
तीणे सांगीलां माजावरी
विसरून गेला तू पंडरिनगरी ॥ अेक

पांडुरांग अनि पंडरीनगरी
आसा निरंतर मेग्गेल ह्रदयी
वच्चें कित्याक पंडरीनगरी
गोकुळ बालराज म्हणतां ॥ अेक

बरयिल वर्स : १९६७

भाव गींत

# "मारान चोरि सोडली"

मुरतम अेकु मारू चोरी तग्गेलो व्यारू
व्यारू महा जोरू जल्लो तो थोरू ॥

भोवराचो रंगू
दोळे वग्गोळ्याले
चोयल्यार यमकाळु
राति तग्गेल वेळू ॥ मुरतम

चोरनु फारनु मेळ्ळें धन जयतें भरलें
रायु रत्ती(चो) जल्लो जन गवंचे भिल्लें ॥ मुरतम

वरडीक ताणे केल्ली
वर्सां जयती जल्लीं
चेरडूवां नतिलें रडली
बायलेन आंगवण केल्ली ॥ मुरतम

मारान चोरि सोडली
धन परतून दिल्लें
थोराय सग गेल्लि
बायल बाणांति जल्ली ॥ मुरतम

बरयिल वर्स : १९५९

# अम्हि अेक गांवाँचे

स्वागत तुंका स्वागत
स्वागत स्वागत स्वागत ॥

अम्हि अेक गांवांचे
अम्हि अेक घराचे
अम्हि तुम्हि अेक
तुम्हि अम्हि अेक ॥ स्वागत

अंगेल वरगा मूळ गोमंत प्रांद
तज्जे न्हांव कोंकण धन्य अंगेलि कोंकणी ॥ स्वागत

वर्सां फुढे अम्हि
प्रकृति क्षोभान
दूर दूर जल्ले
देहान विसरले ॥ स्वागत

अति प्रेमान अम्हि
भासेन अेक जल्ले
अनि ना दूर
अंगेलें भाग्य ॥ स्वागत

बरयिल वर्स : १९७४

भाव गींत

# "चेरडालि विनंति"

आयलो बपा मेग्गेलो
रूंका व्यारू करतालो
व्याराक गोयांतु गेल्लोलो
मोगु मेजेरि अश्शीलो ॥ आयलो

गोंयंचो आंबो पिक्कोलो
दिल्लो माका सग्गोळो
काजुभियो तेळ्ळेल्यो
खव्वाक म्हाका दिल्लेल्यो ॥ आयलो

निस्तेर दोळे दंपताले
बसतेर विसकळोवनु चोयताले
चींटो कडल्यार रडटाले
बपान हडलें बौलें ॥ आयलो

मोगमोगेवचो परमूळु
जळजळेवचि सरपोळि
हडली मत्याक मळचाक
भंगराचेकि चिक्कोळि ॥ आयलो

पोट्टोळि अेकि हडली
मिठाय बधून अश्शीली
हांवें अेकल्यान सरयली
सांगल्यार अम्मा मरतली ॥ आयलो

बरयिल वर्स : १९७८

# "घरवन्तु"

करनाका तू करनाका
भल्लाव कोरनु भंवनाका
बायल चेरड़ूवां देवू देवुळ
विस्सोरनु तू भंवनाका ॥

घर म्हळ्यारि देवूळरे—त्या
देवळांतु तूची देवु रे
बायल देवळाचो दीवो रे
चेरड़ूवां दीव्याक तेल रे ॥ करनाका

घर जल्यारि गांवू रे
गांवांतु तूची रायु रे
रय्यालो धर्मु नीति रे
तें तू सोणु भवनाक रे ॥ करनाका

जन तुग्गेलिं बौंड रे
तंगेले दुःख तुग्गेले रे
गावांक चांगपण करि रे
महंतु लोकांतु जावक रे ॥ करनाका

बरयिल वर्स : १९७८

# "मिथ्या रोदन"

भोवनाका अळसायि काणु
बेसनाका कुरवणि काणु
जन्मु ह्यों मनुष्यालो
कर्म करूंक अश्शीलो ॥

जवयेत दुःख देहाचे
अेवयेत दुःख मनांचे
असयेत दुःख बौंडाले
मेळयेत दुःख कुडुंबांचे ॥ भोवनाका

अळसायि कळ्यारि मेळचीना
खवचाक कोणे दीवचीना
जाळ कळ्यारि मेळचीना
असचीना शांति केदाना ॥ भोवनाका

बोरो कोपलाचो म्हळ्ारि
सरवयि देवाचेर सोळ्यारि
मगीरि मनीषु म्हणु म्हळ्यारि
कोण तो पप्या लेखून घे ॥ भोवनाका

सांगले कृष्णान गीतेंतु
करम व्होट जन्मांतु
रोदन तुग्गेलें वनांतु
पडचीना कोणाल मनांतु ॥ भोवनाका

बरयिल वर्स : १९७८

# "अंगेलो देवु महादेवु"

देवू महादेवू – अंगेलो देवू महादेवू
राकूंक पावचो दयाळू
देवा – महादेवा – महादेवा ।।

गंगेक धारण केल्लोलो–तो
गळ्यांक निळबाण अशिशलो
नंदील फट्टीरि बेसतालो–तो
घोर तांडव करतालो ।। देवा महादेवा

वग्गालें चाम नेस्तालो–तो
देहाक भस्म लायतालो
हतांतु ढमरु धरतालो–तो
शूल घेवनु भोंवतालो ।। देवा महादेवा

बायलेक अरधांग दिल्लोलो–तो
भगीरथाक राकीलो
रक्कूंक आमका पावतोलो तो
भाग्य आमका दित्तोलो ।। देवा महादेवा

बरयिल वर्स : १९७८

भाव गींत

# "वरडीकेल जेवण"

नवें वरवा सीत
व्होढ धाळी तोय
मोगमोगेवचो सारु
सारालगी सांबारु

दुद्यालो खोधेलु
आंब्यालें आंबट
तेंडळ्याचे सगळें
गुदग्यालीं घेश्शी
अेळसंदेची बाजी
अल्याची तंबोळी

अुंढो मंढो चुरणांचो पोळ्यो ।। नवें

कणये वरवा कक्कंबी
दूदालो पायसू
पायसांतु अेळा सांग
जावका कितें सांग
दुस्सरीय सीत
कल्लवूंक मेळावें

पोठ भोरनु पींचाक घंठीले ताक ।। नवें

बरयिल वर्स : १९७८

# “बपो पुतो आयि”

बपो पुतो आयि
आंका खेळूंक जायी
बप्प अेता चोयी
हतांतु असा जायी ॥

वच्चाक वत्ताय अम्हि
रक्कून रबल्या मम्मी
मुकार अेतेलि दक्कून्नि
मगल्यान अेवो व्होडून्नि ॥ बपो

गगोरो चोळी घालनु
पोरमूळाची जायी माळनु
दोळ्यांतु काजल लावनु
निडलार तीळो करनु ॥ बपो

कोपु तुग्गेलो सोणू
धावनु अुग्गी योतू
दूद्दू येदो पीवनु
वच्चेत आंका सिंगारनु ॥ बपो

बरयिल वर्स :१९५९

भाव गींत

# "हसता कीं हसयता"?

अेक कढे देवा श्रीमंत रबला
दुसरकढे देवा दरिद्रू रबला ॥

अग्नी अनि तोय राती दिवस
चांग अनि वायिठ तुग्गेल चमतकार
वेष विधान आंगेले ज्ञान अज्ञान
मनो बुधि अहंकार तूंची देवा ॥ अेक

राति ती सरतेरि दिवसु हसता
हसूनंच अेत्ता दुस्सरीय राती
ब्राह्मणु हसता म्हराक चोवतु
हसता संपन्न दरिद्राक चोवनु ॥ अेक

तरुण हसता वयोवृधाक चोवनु
हसता नवें परन्याक चोवनु
गोकुल बालराज म्हणता
हसता कीं तू हस्यता देवा ॥ अेक

बरयिल वर्स : १९६६

भाव गींत

# "जगाचि आवसु"

प्रभात तू प्रदोष तू
या जगाची आवसू तू ॥

पावसू ना तुका गीमु ना
शिशीर वसंद कायी ना
तुका तुग्गेले दु:ख ना
राकून अेवची आवसु तू ॥ प्रभात

कोपु तापु सर्वं सोणु
जीवनांचो भारू काणु
प्रेम पीयूष दूद दीवनू
राकून अेवची आवसु तू ॥ प्रभात

देह भाव विस्सोरनु तू
कष्ठ काणु नष्ठ घेवनु
मेध्य मूत्र मलिन काणु
राकून अेवची आवसु तू ॥ प्रभात

आवसु बायल भैणि धूव
चाररूपवंति तू
धन्य तू अनि पूज्य तु
या जगाची आवसु तू ॥ प्रभात

बरयिल वर्स : १९८६

# "नीद रे बाळा नीद"

नीद रे बाळा नीद तू ॥

बपूसु तूग्गेलो सोणु गेल्ले
देवाल पांयमूळांतु ते पावले
तंगेले रूप तुजेरि देकून
तापु मेग्गेलो सरलो रे ॥ नीद

बवसूल देहाचो रंगु तुका
तंगेले दोळे अनि ओंठ रे
तंगेलो मुदयाळो केसु देकून
तापु मेग्गेलो सरलो रे ॥ नीद

आयचे चंदीणे दिकून म्हका
गेल्लोलो अुडघासु अयलो रे
अेत्तलवे अनि भंगराचे दीस ते
अेत्तले तुका तू नीद रे ॥ नीद

बरयिल वर्स : १९७८

ऍयिगा तू श्री जनार्द्दना
कारूण्य पूर्णा
धावनु ऍवनु राक तू आंका श्री लक्ष्मिरमणा ॥

मंत्र तंत्र कळना आंका
कळचे तुग्गेलें पावन नाम
दान दी तू सेवा करचें
नाम तुग्गेले सदा म्हणचें ॥ ऍयिगा

विध्य दींका बुधि दींका
भोल मन देहाक दींका
मलगढयांक मानु लेखचें
दान आंका दींका देवा ॥ ऍयिगा

चन्द्रशेकरु वेंकटेशू
ब्रह्मदेवु तीनीय तू
अयलीं आंमि तुग्गेल चरणांतु
तापु आंगेलो सोणु दी तू ॥ ऍयिगा

बरयिल वर्स : १९७८

भाव गींत

# "गोयांतु वच्चो कवळो"

कक्यारे कौळ्यारे
गोयांतु गेल्लोल वे
गोयांतु वच्चाक या पुताल
बपाक देकील वे ॥

अनि वत्तेरि चोंका
पुताल बपाक देखूका
बबोक खेळूंक बौलि अेकि
हाडूंक संगूका ॥ कक्यारे

वच्चूंन अेत्तेरि दीन
पेज अेदि वाडीन
मिरया हप्पोळु बज्जून
खावूंक तुका दीन ॥ कक्यारे

पूतु व्होळ्ळो जत्तोलो
सिकून करबराक वत्तोलो
म्हंतरि हांव जत्तेरि
कुय्यां म्हाका घलतोलो ॥ कक्यारे

बरयिल वर्स : १९७८

# सांज जावनु

सप्त स्वर ते ताळलयान
सम्मोह मिश्रित संध्यावेळु
नीळांबर तें सोडून गगन
प्रोज्वळ दिसता शोणिम वर्णान ॥ सप्त

मंद समीरणु मन्मद पुष्पांचे
सुगंध घेवनु भोंवता धावनु
धवळ चद्रेमु अेवनु हसता
भोरनु विगळित लज्जा मनांनु ॥ सप्त

चैत्र चंदीणे भरला गगन
प्रसन्न तुग्गेलें चंद्रम वदन
चंदीणे तू या चंद्रमाले
धावनु यो रजनी–रागीणी ॥ सप्त

बरयिल वर्स : १९७८

# दरशन दी गणेशा

दरशन दीगा देवा । गणेशा ।।

दृढ विश्वासान प्रदिक्षिण करनु
नानात्वांतु अेकत्व दखोवनु
सुरभू पाताळ मातपिताल
पदकमलांतु पळयिल देवा ।। दरशन

बाळक अम्हि अज्ञानानी
तळमळले देवा सिधिविनायका
धावनु अेवनु पाव आंका
बलराज प्रिय लंबोधरा ।। दरशन

बरयिल वर्स : १९७८

भाव गींत

# "कोंकणी तुका नमन"

सुंदारी–सुभाषिणी–वागीश्वरील नंदिनी

सुंदर सुरभिल सुभाषिणी
मधुर मनोहरी कोंकणी
श्रेष्ठ तू या भासेलोकांतु
नमन तुग्गेल पदकमलांतू

कोंकणी कोंकणी कोंकणी ॥ सुं

पुत्रि भारतवर्षालि तू
मात भारत भासेची तू
भारतवर्षाच भासे समूहाक
मार्गु दखोवनु आयलेलि तु

कोंकणी कोंकणी कोंकणी ॥ सुं

बाळक अम्हि ब्राम्हण वैश्य
शूद्र क्षत्रिय दूर जल्ले
अवसू तू यो अेक करूंक
ध्यासू अंगेलो भासे दीवूँक

कोंकणी कोंकणी कोंकणी ॥ सुं

बरयिल वर्स : १९७८

भाव गींत

# "मोरनु गेल्लो नंतर"

कोण अेत्ताय मोरतेरि
बांधव रबता भितेरि
घराच दरलांतु अेतेलि ती
बायल रोणु भोंवतली ॥ कोण

पूतु वत्ता मषणांतु - तका
भीति दिसता मनांतु
दित्ता अुज्जो तो भीवनु
परतून अेत्ता विस्सोरनु ॥ कोण

दामु दूढू व्होढु रे
दंम्मेलि गांवातु रायु रे
मोरनु वत्तेरि कोण रे
चेतन (जीवु) नत्तीलें मढें रे ॥ कोण

लगच पिळगेक सांग रे
दुढू म्हळ्यारी धूळि रे
चांगपण मगल्यान अेत्त रे
मोरनु वत्तेरि आयक रे ॥ कोण

बरयिल वर्स : १९७९

# कोंकणी

संस्कृत जननी भास आमगेली
कोंकणी कोंकणी ॥

भारतवर्षाचि धन्य कन्या
व्याकरणांतु ती सुकन्या
वागीश्वरील वामांगी ती
भास आमगेलि कोंकणी ॥ सं

सप्त रूष्यानि केल्लेंलें साहित्य
भोरनु अश्शीलि आमगेलि कोंकणी
अितर भास्सांक मारगु दीवनु
अूंच हडळेलि आमगेलि कोंकणी ॥ सं

ब्राम्हण वैश्य शूद्र क्षत्रिय
संतान अश्शीलि धन्य कोंकणी
सौम्य वदनी शक्ति रूपिणी
शांति दिंची सरळ भाषिणी ॥ सं

बरयिल वर्स : १९७८

# "मनीषु"

रोणु अेवनु रडवनु वत्ता
दोन दिस्सांक हस्सूंक जायनातिलें ।।

मोगान तुग्गेलें नामकरण
अन्न प्रास्न प्रेमान जल्लें
विद्य सिखून श्रेष्ठु जल्लो
व्यारू करनु प्रसिध जल्लो ।। रोणु

निवळ निरमळ घर केल्लें
घरांतु तुक्का बायल आयलि
मोगान तुग्गेलीं चेरडूवा वाडलि
प्रेमान तुग्गेले दीस गेल्ले ।। रोणु

हांव अनि मेग्गेलें स्वप्नांतु पोणु
अहंकाराचो आवेशु काणु
दोन दिस्सांक रायु जावनु
मरणाक तक्का भीति पावनु ।। रोणु

खडेरि आयलो दीसु अेकु
सोणु वच्चो तुग्गेलो मोगु
भरलो घरांतु दिस्सक तापु
सांगचाक तुझेरि सहतापु ॥ रोणु

मगल्यान अेवचाक ना तुग्गेल जन
घर घराणि मोगा संतान
श्मशान यात्रा अति प्रधान
शश्वत शांतीक तेचीं निधान ॥ रोणु

बरयिल वर्स : १९७९

भाव गींत

# "वैश्याल चरित्र"

ॐ नमो गणेशा गौरि नंदन गा
दुस्सरे नमन माजें कलावती चरण गा

भारत वर्षांतु अेकु गांवु अस्समु गा
गोमन्द परवता खाल समुद्रा तीरारि गा
पुराणांतु नाव तज्जे गोमन्द प्रांद मु गा
अत्ता तक्का गोवा म्हणु नांव अयले मु गा ॥

कुळागर गज्जनी भोरनु गांवांत अस्स गा
जायी जुयी अबोलें फूल भोरनु अस्स गा

ॐ नसो गणेशा शक्ति नन्दन गा
दुस्सरें नमन माझें सरस्वति चरण गा

पैशें वर्षां फुढे गोंयांतु दुष्ठ जन अयलेमु गा
धर्मु मानु राकूंक आमि हिंडूक लागले गा
हिंडतां हिंडता कोच्चि गावांतु पावले गा
कोच्चिचे रय्यान आंका अभय दिल्लेंमु गा ॥

ब्राह्मण वैश्यान मेळनु देवूळ बंधिलें गा
अळशेपणान वैशानि चावि काणु दिल्लि गा
अश्शिले देवूळ सोणु वेग्गळें बंधिले गा
जनार्द्दनाक पंजायनान प्रतिष्ठा केल्लिमु गा ॥

तिस्सां भायर पंडळांतु वैश्यान व्यारु केल्लो गा
"काशकपोरु" "कप्पित्तानु" स्थान मानु मेळ्ळो गा
स्थान मानु मेळचाक कीडि मत्यांतु चेडलि गा
कीडि चेणु अलतपलतांतु झगढे जल्लेमु गा ॥

शंबरि वर्षांच मुरतम पंजायन जल्ले गा
सुरवेचे पंजायन न्हांव तक्का अयले गा
तेद्दूस थकून वैश्यक स्थान मानु अस्स गा
अश्शीलें तें स्थान अम्हि सोड्ंक पाणामु गा ॥

अश्शीलें अेक अेक विकून पंडळां सरलिमु गा
अळसायेन सबाक बेस्सून खवचाक आरांभिलें गा
विक्कून विक्कून पंडळांय जागोय सरलिमु गा
अत्त अम्हि पोटा पोडीक करबाराक वत्ताय गा ॥

करबारु कायिं नत्तिल्यान अुप्पाशें पडताय गा
अुप्पाशें पडतेरि अम्हि धर्मु सोणु वत्ताय गा
अुप्पासु काणु अेत्तल्यांक करबारु जावका गा
करबार मेळ्ंक मुक्कारि धनवन्तान अेवका गा ॥

रायु ना मंत्रि ना अंगेल्यांतु कोण ना
अस्स अेक स्थान आंगा सरकारांतु आयक गा
सूणे जग्गोणु सित्तांतु फत्तोरु करनाका
अश्शीले तें स्थान अम्हि सोड्ंक पाणामु गा ॥

जयतें जन जयतें मणकि अेवनु सांगतले गा
अम्हि अेक जावनु आंगेलि शक्ति दाकेवका गा
वैश्य म्हळ्यार अेक अवसूले पुत्र म्हणु सांगूका
वैश्याक शक्ति अत्तंय अस्स म्हणु दाकेवका ।।

अूणेपणा नुप्पूरपणा जर्यति आसयेत गा
अुणाव सग्ग विस्सोरनु अम्हि अनि अेक जावका गा
अश्शीलें तें स्थान अम्हि सोड्ंक पाणामु गा
अनिकयि स्थान मेळचाक श्रमु अम्हि काडका गा ।।

बरयिल वर्स : १९७९

# "आपण अपणाक विस्सरनाका"

भावानों भैणांनो आयकाय तुम्हि हिं अुतरां
मलगडयान बुधवंतानी संगीलि अुतरां ।।

बेसच केदलारि बेस्सीना जल्यार
सूणे अेत्रनु बेसतलें
बिबळ वरणा मंदूरि सोणु
भुंयचेर बेसल्यार कश्शी रें ।।

आ......दामु दुढु असतोलो पेट्टुळांतु–तो
वेळारि पंचींना हतांतु
मोगु तुक्का अस्स जल्यार
मोगु अेत्तोलो राकूंक........

विकूंक अंगडींतु नारे मोगु
दुढवानी घेंवचाक मेळचींना मोगु
मोगु दीवनु मोगु घेवनु
भोंवल्यार मनीसु श्रेष्ठु रे बेसच ।।

कढि अेकि जल्यार
मोडूंक अुग्गि जत्तल रे
जयत्यो कढ्यो अेक रबल्यार
भोडूंक अुग्गि जवचीना रे

दुरबळो धनवंतु भेद सोणु
अेक अवसूल चेरडुवां जावनु
श्रेष्ठ कोंकणी संतान अम्हि
ब्राह्मणु–वैश्यु अनि शूद्रु रे बेसच

अ......दिस्साच अुजवाडांतु दीवो धोरनु
दोळे धंपून राती करनु
कुरड्याल गांवातु कणसो रायू जावनु
बैंचो बेब्बो जवचे कष्ठ रे

कळनांतुल विषयु कळतम्हणु भोंवल्यार
पाणांतिल नाशु तुक्का अेत्तोल रे
तुक्का कळचे कळनातुल्याक
सांगून दिल्यार चांग रे ।। बेसच

बरयिल वर्स : १९७९

भाव गींत

# "पिशश्या मनष्यालि तान"

धन रवता फंतींतु
गुण रवता भित्यांतु
मानु मेळना गुणान
तुलन करताय धनान ।।

धन असतेरि पावताय
बधु भांधव रवताय
धन वत्तेरि सोडताय
मोगु विस्सोरनु वत्ताय ।।

धनाक जीवु म्हणताय
जीवु नासतेरि मरताय
मेल्लेल्याक भायर घलताय
प्रेमु सोणु भोंवताय ।।

शश्वत सुख मेळचाक
जायना धनान दिवचाक
जावका धन निधानाक
जीवन सरळ काडचाक ।।

सोद्दूचें खंतेयि धन
मेळचाक लौकीका मानु
पिशश्या मनष्यालि तान
मरण नत्तीलें रोदन ।।

बरयिल वर्स : १९७९

# "गेल्लेलि प्रौढि"

समूह आंगेले वैश्यालें
गावांतु कीर्ति अश्शीलें
दोनपण म्हळ्ळेल्य जोडान
तंडून खल्लाक गल्लेंलें ।।

भोंवताले अम्हि प्रौढीन–जल्यार
जग्गोणु कदनाय मुष्ठीन
अळसायेन बेस्सून खत्ताले
अश्शीलें विक्कून घलताले ।। समूह

व्यारु मुरतम कोंच्चींतु
अश्शीलो वैश्याल हत्तांतु
व्होढपण चेणु मत्यांतु
लक्ष्मिक सोडलि भित्यांतु ।। समूह

गेल्लोलो व्यारु परतून करचाक
लक्ष्मीक घरांतु परतून हडचाक
गेल्लेलि प्रौढि परतून मेळचाक
जावका अम्हि अेक ।। समूह

बोट्टान लेखूंक श्रीमंत अस्सय
लेक नत्तिले दुरबळे अस्सय
अुप्पाशे पोणु तळमळ जत्तेरि
संस्कारु सोडचि भाव भैण्यों अस्सय ।। समूह

दुरबळो धनवंतु दोनपण सोणु
अेक आवसूले चेरडूवां जावनु
अनिपुणि अम्हि मनांतु काणु
भोंवया वैश्याले अुधाराक जावनु ।। समूह

करबारु नत्तिल्यांक करबारु मेळचाक
शिखवण नत्तिल्यांक शिखवण दिवचाक
श्रीमंत धनवंत मुक्कारि अेवनु
भोंवका वैश्याल अुधाराक जावनु ।। समूह

अश्शीलो मानु वचनांतु रब्बूंक
अश्शीलें स्थान वचनांतु रब्बूंक
वैश्यालि शक्ति काणु दक्कवूंक
जावका अनि अेक–अम्हि...... ।। समूह

बरयिल वर्स : १९७९

# "योरे विठ्ठला"

विठ्ठला तु योरे योरे
आंका भेट दीरे
आंका भेट दीरे–विठ्ठला
आंका भेट दीरे ॥

तूळसि माळा गळ्याक घालनु
नाम चंदनाचें करनु
मंत्र पूर्ण पूज करूंक
कळावण नारे विठ्ठला ॥ विठ्ठला

जीब भोरनु तुग्गेलें नाम
अस्स मनांतु तुग्गेलें रूप
जाग सुषुप्ति स्वप्नांतु
नियळतारे विठ्ठला ॥ विठ्ठला

शिकवण मनाक दी
बंधु भाव तुचि मूर्ती
धर्म सोणु करम करचि
वाट नाका विठ्ठला ॥ विठ्ठला

पंडरि नगरीक अेवनु
पुंडळीका भेट जावनु
जोडिलें पाप वच्चाक
कृपा करी विठ्ठला ॥ विठ्ठला

चूकि अनि अूणेपण
भरलेले या जीवनांतु
गोकुळांच बालराज
मागता क्षमा विठ्ठला ॥ विठ्ठला

बरयिल वर्स : १९७९

# "सुप्रभात"

पूर्व दिशानि शोणिम भरल्या
पक्षि समूह चिलपिल करता
निद्र सोणु जाग जाा तू
जनार्द्दना तुक्का सूप्रभात ।

सुप्रभात – सुप्रभात – सुप्रभात ॥

पंजायन प्रमुख गोश्रीपुरेशाक
लक्ष्मि जनार्द्दनाक सुप्रभात
गत्रमोधाराक अमरावतींतु अेवनु
जन पालन करच जनार्द्दनाक ॥ सुप्रभात

जगदात्ति त्रि मूर्ती मातेक
जगज्जननीक गोश्रीपुरेश्वरीक
अश्वथासन स्थित रुद्रेक
अभय वरदानि भगंतीक ॥ सुप्रभात

जलकठेश्वर हलस्य नाथाक
क्षिप्रप्रसादाक महादेवाक
नीलकंठाक शक्ति समेताक
गोश्रीपुरवास महाभलेश्वराक ॥ सुप्रभात

रामदास शिव अवताराक
अंजनि सुताक वायु पुत्ताक
घोर समुद्रोल्भव मूर्तीक
गोश्रीपुरवास हनुमंताक ।। सुप्रभात

गोवर्धन धर गोपि कमिताक
कमनीयाकार काळिय मर्द्दनाक
कोंकणी कुल जन संरक्षकाक
गोश्रीपुरवास गोपाल कृष्णाक ।। सूप्रभात

शिव शक्ति सुत शक्तायुध धर
शिखि वाहनाक तारकारीक
बलराज प्रिय कार्तिकेयाक
बाल मुरुकाक सुब्रह्मण्याक ।। सुप्रभात

बरयिल वर्स : १९७९

# "जीवन म्हळ्यार"

जीवन म्हळेले सुख दुःख
ज्येष्ठजन्मांतु अति श्रेष्ठ ।।

हसून बाहरि रोणु अंतरि
काडचे निमिष अति कठिण ।।

व्यवहाराचो मार्गु
प्रकृतींतु तो अति दीर्घु ।।

मनुष्यालें कर्म ना निरर्थक
चांग बल्लाव सामूहय कल्पित ।।

अपणाक चांग दिस्सचो मार्गु
दुसर्यांक दिवचो सुगाचो मार्गु ।।

बरयिल वर्स : १९८०

